# धालो

श्याम वेरेंकार.

**कोंकण टायम्स, पब्लिकेशन,**
**बेती, बार्देश, गोंय.**

❖ घालो

❖ @ श्याम बेरेंकार

❖ पयली खेप
एप्रिल १९८४

❖ उजवाडावपी :
हिरा तुकाराम शेट,
कोंकण टायम्स पब्लिकेशन
बेती, बार्देश, गोंय, ४०३ १०१

❖ मुखचित्र :
दिगंबर शिगबाळ

❖ छापपी :
स्वस्तिक प्रिंटिंग प्रेस
हंस टॉकीज लागसार, बेळगांव.

❖ मोल
१० रुपये

# सकयां साद घाला गे

पौश म्हयन्यांत चान्नेराती, शिया कडाक्यार धालो जातात. सैमाचो साद फुलां पानांतल्यान सळसळटा. कांदळा, ओवळां, शेंवती, आबोलीं, मोगरी, चाफीं वाठाराक घमघमाट सोडटात. आंबे चंवरांनी उलयतात. पणस, भिरण, जांव काजीक धुवाळे लागता. धालांच्या माणार सवाशिणी आनी आंकवारणी पदर खोयतात आनी पोट खोसयेन नाचतात !

' शेवकां बाये शेवकां
तांबड्या माडाची शेवकां
थळा माणाची पांचय देवतां
तीं आयली धांवतां
तीं आयली धांवतां.

करुन धालां जातात.

पौश म्हयन्यांतली पुनव धरुन कृष्ण सस्टी मेरेन धालो उत्सव मनयतात. खंयचोय अेक बुधवार वा आयतार धरून माणाक उबीं रावतात.

धालांक परंपरा आसता. धालांचो माण एकाच जाग्यार उरता. कित्याय कारणाक लागून धालो खेयळिनात जाल्यार मात तरी भोगावळ करुंकूच जाय ! निदान ते जाग्यार एकरात तरी दिवली पेटवकच जाय.

कांयकडें गांवचो जल्मी वा गांवचो वांगडी देवाक नाल्लां –तांदळाची तळी उकलासून दवरता. पाटार एक दिवली पेटवन दवरता. म्हन्यान विडो, चुडो, गोड, केळीं दवरता, तीळ, गंद, काजळ–कुंकवाच्यो अक्षता वाडटा. गाराणो घालता गांवचे वतीन

गांवचे बरें ज़ांवचे म्हूण मागता. जमिल्ली बायलां 'हय सायब' म्हुण होंरायतात आनी दिवलेर अक्षता उडयतात. आनी–

"आमी दाव्या हातान केलां

तूं उजव्या हातान मानून घे..."

अशें देवाकडे राखणेचे मागणे करतात. मागीर हळद–कुकूम जाता. गंदाचे तिबे लायतात. हेरवी केन्नाच बायलां गंदाचे तिबे लायनात. गंदाचो तिबो लायतल्या बायलांनी नेमान धालांचे राती माणार हाजीर रावंकच जाय. उपरांत फांतयो धरतात आनी मोनी वयतात. धालो सुरू जाता.

तीन, पांच, सात, णव, अकरा वा पंदरा अशो धालांच्यो राती आसतात.

धालो बायलांचो उत्सव. हातूंन पुर्वापार चलत आयल्ली गितां आसतात, हालींसरा मराठी हिंदी कवनांचोय भरस जाला !

मणीपुरी नाचांत जशे कृस्ण–राधेच्यो लिळा दाखयतात; तश्योच धालांनी ठेक्यार नाचत, गायत, फुगडचो खेळत– देवाक नमन, न्हाण, हळद, कुकूम, पुजा, पालखी, रथ, देउळ बांदप, तुळस लावप, गायेची पुजा बी भोगावळी करतात.

कृस्ण, कृस्ण–शृंगार; सिता हरण आनी रामायण म्हाभारता-चेर आदारलेली बरीच गितां धालांनी आसात.

हातून तरेकवार फुगडचो पाती, झिम्मा, कचे, फेर फुगडी, बसकी फुगडी, फालां आनी गितां आयकूंक मेळटात.

"म्हजी फूऽऽ चली ऽऽऽफू, तुज्या फू, चल्याक फू दिवची फू आसा फू..." करून उकणयां बसून खेळिल्ल्यो बसक्यो फुगडचो दुसरेकडें खंयच दिसनात.

निमाणे रातीं देवचाराक सूर–रोंट दवरतात. माणा भोंवतणी चोरु शिंपतात. कांयकडे कोंबेय मारतात. माणार जमिल्ले भुरग्यांक

आटवल वा फोव बी खावपाक दितात. निमणी रात जागंवची आसता. मागीर कांयकडे रथ नाचयतात, नाटकुली करतात, गितां गायतात. फांतोडेर कळस दवरतात. ( घागर भरून ताजेर वयर नाल्ल दवरप. ) माण खेळटात, रंबाची फुगडी म्हणतात--

" येयात गो रंबानो, झंपानी खेळया
आयली गे, आयली गे, रंबाबाई
रंबाची फुगडी घाल धडाडीं... '

करून ताळयांच्या थॅक्यार फुगडी खेळटात. रंबांचो अंवसर येता. बारा वर्सा सकल्यो आंकवार चलयो खुदतात. सात जाण रंबा आनी एक तांचो भाव खेतलो ! भावार्ती लोक आपले प्रश्न विचार-तात. रंबा प्रश्नाच्यो जापो सांगतात. मत येंवक नाशिल्ल्या इल्ल्याश्या भुरग्यांकडल्यान बुदवंतपणाच्यो जापो आयकून जमिल्ले लोक भेरावतात. दुबावी मनशाच्या आंगार लेगीत कांटो शिरशिरता.

उपरांत हेर भोगावळी जाता. रंबाच्यो खणानाल्लानी होंटी भरतात. मागीर तांचो अंवसर निवळटा.

धालाचो माण दवरतात तेन्ना खूप खेळ जातात. सावज मारप, घाडी खुदवप, न्हवरो, भट-भटीण, मोरुळो, आमयो, घोणशे पिलां गावडी, अंबाबाय, पिंगळी बी. पिंगळचाचें फकाणेर गीत आनी संवग पळोवपासारकें...

' माडावयलो कीर बाये, शेंपडी हालयता
सवाशिणी बायलो दोळे मोडिता.
फूगे फू सये, फुगडी फू

मागीलदारच्या पिंपळा, सुपायेदें पान,
मांय गेल्या सोनारवाडया, सून वाडयता दान.

सकाळचे पारी गे बाये
पिंगळी भोंवता दारी गे बाये

काय तरी धर्म वाडा गे बाये
पिंगळी आयला वर्साचो
तांदूळ घाला खर्चाचो..."

सगळचो भोगावळी जातकच हळदिकुकूम करतात ते वेळार बायलां लजत लजत घोवाचें नांव घेतात. सोबित माणकुली कवनां करून उमाण्यांनी. देखीक

'काळी चोळी मिऱ्यां येदी गांट
XXX जिवार हळद कुंकमांचो थाट.

'अत्तरदाणी, गुलाबदाणी
चिवडो केलो ताजो
XXX नव घेवंक
पयलो नंबर म्हाजो.

कांय उमाणी फाजील वा फकाणेर आसता.
"पोके पणसाक दिक चड
XXX राग चड"

आंकवार चलयानीय नांवां घेवंची आसता. लग्नच जांवक ना जाल्यार नांव कोणाचो घेतली. मागीर
"आठवभर गंव खंयच्या मडक्यांत थेंब
करिनाशिल्ल्या घोवांचे नांव कसें घेंव ?"

जाल्यार कांय फाजील चलयो म्हणतात :-
"कुरकुटांत दरवल्यात फोव
येतले वतले म्हजे घोव"

आनी ल्हवूच थंयच्यान कडसतात. उपरांत शेणाचो कालो जाता. फांतयानी उबी रावन गायतात.

पयली रेग : धालांच्या माथ्यार फुलांचो झेलो
आयच्यान धालो सोंपल्यो गे
आयच्यान धालो सोपल्यो गे

दुसरी रेग : गडां गडयो
मोडा मोडयो
( येवटेनच्यो तेवटेन वतात आनी फांतयो मोडटात )
माण शिपतात. शिरन्यो वाडटात. धालो सोंपता.

धालो कितल्यो पोरण्यो सांगूक नजो. तांतली गितां, खेळ फुगडचो आनी हेर भोगावळी सगळचा गोयांत सारक्यो जातात. कांय कडे किरीस्तांव कुणबी लोकांगेर धालां खेयटात. हालिसरा ताजेर मराठी आनी हिंदी गितांची बरीच छाप पडल्या. खुबकडे मूळ गितां विसरून गेल्यात.

पुर्वापार चलत आयल्ल्या धालां गितांनी लय, आसा, काव्य आसा. असले गितांच्या आदारार गोंयची अशी खाशेली संगीताची शाळा करुंक येत.

– श्याम वेरेंकार

# टिपा

१.

धालो खेळ पुंजायला फोंडे-वयलोबाजार, दुर्गाभाट हांगच्या माणार.

हातून कांय गितां बेतोडें, काणकोण, जांबावले, वळवय, मंगेशी; केपें बी गांवचीय आसात.

चडकरुन धालां खेळपी: वैश्यवाणी, नायक, गावडे, सतरकार, देसाय बी समाजांतले.

२.

अुच्चारांचे खाशेलेपण मतींन धरून काना-मात्रांचो वापर केला. भंगिल्ले अुच्चार चडकरुन आयकल्या तशेंच दवरल्यात.

३.

धालांची सुरवात :- फांतयानी धालांक सुरवात जाता. जमिल्ल्या बायलांचे दोन पंगड करतात. अेकमेकिच्या खाकेंतल्यान कमरेक, वा खांदयार हात घालून दोशीं अुबीं रावतात. हाकाच फांतयो, वळी वा पाती म्हणटात. कांयकडे तांका व्हंकलकार आनी न्हवरकार म्हणटात.

सुरवेक, अेक पात मोन्यानी तीन पावलां फुडें येता; तकली बागयता, आसा तसी फाटकुरी वता, दुसरी वळय तशेंच करता. मागीर पयली पात प्रश्न करीत फुडें येंता. दुसरी वळ जाप दिता. ( कांय कडे एकच पात मोन्यानी येता. दुसरी प्रश्न विचारता ) अशे तरेन धालांच्यो फांतयो गुंथतात.

४.

सगळ्या फांतयांनी तेत्तिसकोटी देवतांची आनी पंचिस्टांची नांवां घेंवची आसता. नांवां येना जाल्यार ‘सरवय देवांक’ म्हणप आनी सोंपोवप.

## मोनीं

**पयली पात :** ..................................
..................................
..................................

**दुसरी पात :** ..................................
..................................
..................................

**पयली पात :** मोनी आयलीं, मोनी गेलीं
सकयां साद घाला गे
माण धरून खेळा गे.

**दुसरी पात :** आमीशिं आयलीं बाये, लेकी चारा गे
आमीशिं आयली बाये, लेकी चारा गे
तुमची लेक बाये कोणाक व्हरयो गे ?

आमची लेक बाये रामा व्हरयो गे
आमची लेक बाये लक्षुमणा व्हरयो गे.

रामाचो मायबाप धन बहु गे
रामाचो मायबाप धन बहु गे.

भाणसाचें शैला आमचें मोतयांचे गे
भाणसाचें शैला आमचें मोतयांचे गे.

आमीशिं आयली बाये लेकी चारा गे
आमीशिं आयली बाये लेकी चारा गे.
तुमंची लेक बाये कोणाक व्हरयो गे ?

## लेक–नारी

आमची लेक नारी, कोणाक पिर्या गेऽ
कोणाक पिर्या गे.
आमची लेक नारी, धरतरी माया गेऽ
धरतरी माया गे.

आमची लेक नारी, कोणाक पिर्या गेऽ
कोणाक पिर्या गे.
आमची लेक नारी, तुळशी माया गेऽ
तुळशी माया गे.

फोडिलो नारळ कातिल्यो शिरणी
वाटील्यो तुळासावृंदावनी गेऽ
वाटिल्यो तुळासावृंदावनी गे.

वाटिल्यो जाल्यार बरे जाले,
सकिया साद तुमी घाला गेऽ
सकिया साद तुमी घाला.

मोनी आयली मोनी गेली,
कैशानी ओळखिल्यो गेऽ
कैशानी ओळखिल्यो गे.

पायावर सलमुदी त्यावैर जनरी वाळे
तेनि ओळखिल्यो गेऽ
तेनि ओळखिल्यो गे.

आमी गेली तुमी गेली कचे काणी गे
कचे काणी गे.

तुमी शी आली बाये, कोणा लेका गे
तुमी शी आली बाये, कोणा लेका गे.

तुमची लेक बाये, कोणा देवा गे
तुमची लेक बाये, कोणा देवा गे.

आमची लेक बाये गुरुदेवा, रंबे माये,
शारदे माये गे.

## नमन

श्री धालो, धालो गे बाये
धालानी खेळूंक आल्यां गे बाये
धालानी खेळूंक आल्यां.

आल्यां जाल्यार बरी जाली
सकयां साद घाला गे बाये
सकयां साद करा.

आबोले मोगरें सकयो गो तुमी
धालानी खेळूंक येया गो तुमी
धालानी खेळूंक येया.

आल्यां जाल्यार बरी जाली
सकयां साद घाला गे बाये
सकयां साद करा.

माणा पुरसा देवा गा
आमी धालानी खेळूक आल्यां गा
आमी धालानी खेळूक आल्यां.

आल्यां जाल्यार बरी जाली
सकया साद घाला गे ऽ
माण धरुन खेळा गे.

धर्तरे वन देवते माये गे
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गे
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां.

आल्या जाल्यार बरीं जाली
सकयां साद घाला गे ऽ
माण धरून खेळा गे.

तुळशी–चांद सुर्या देवा गा
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गा
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गा.

आल्यां जाल्यार बरीं जाली
सकयां साद घाला गे ऽ
माण धरून खेळा गे.

गणेशा म्हादेवा देवा गा
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गा
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गा.

आल्यां जाल्यार बरी जाली
सकयां साद घाला गे
माण धरून खेळा गे.

विसणू–बरमा देवा गा
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गा
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गा.

आल्यां जाल्यार बरीं जालीं
सकयां साद घाला गे
माण धरून खेळा गे.

खुटये–मटये माये गे
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गे
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गे.

आल्यां जाल्यार बरीं जालीं
सकयां साद घाला गे
माण धरून खेळा गे.

चोणाश्री जोगाश्री माये गे
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गे
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गे.

आल्यां जाल्यार बरीं जालीं
सकयां साद घाला गे
माण धरून खेळा गे.

सती म्हाळशे देवी गे
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गे
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गे.

आल्यां जाल्यार बरी जाली
सकयां साद घाला गे
माण धरुन खेळा गे

काळंबे साळंबे माये गे
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गे
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गे

आल्यां जाल्यार बरी जाली
सकयां साद घाला गे
माण धरुन खेळा गे

म्हालक्षुमी – शांतादुर्गे माये गे
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गे
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गे.

आल्यां जाल्यार बरी जाली
सकयां साद घाला गे
माण धरुन खेळा गे.

भुमी पुरुशा कालभैयरवा देवा गा
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गा
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गा

आल्यां जाल्यार बरी जाली
सकयां साद घाला गे
माण धरुन खेळा गे.

वागऱ्या सिद्धा देवा गा
तुज्या माणार खेंळूंक आल्यां गा
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गा

आल्यां जाल्यार बरी जाली
सकयां साद घाला गे
माण धरुन खेळा गे

कौरंवा पांडवा देवा गा
तुज्यां माणार खेळूंक आल्यां गा
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गा

आल्यां जाल्यार बरी जाली
सकयां साद घाला गे
माण धरुन खेळा गे

देंवचार म्हारवा देवा गा
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गा
तुज्या माणार खेळूंक आल्यां गा

आल्यां जाल्यार बरी जाली
सकयां साद घाला गे
माण धरुन खेळा गे.

# आम्याचें पान

आम्याचें पान बाये आमट
आमट.
जाग्याच्या देवा घालु दणवत
दणवत.

धये करडिचे भात भरडीचें
नितळपण बेतोडेचें गे
नितळपण बेतोडेचें गे.

नितळपण बेतोडेचें
गणेश देवा न्हाण केलां गे
रंबे माये न्हाण केलां गे.

नाल्ल फोडुन शिरणी वाटुनी
बाटली तुळशी विलावणी गे
वाटली तुळशी विलावणी गे.

वाटली जाल्यार बरी जाली
सकयां साद करा गे
सकयां साद करा गे.

सकयां बायानो गे
कशो वळखल्यो गे
कशो वळखल्यो

हातिक पद्म, पांयाक पद्म
तेणी वळखल्यो गे
तेणी वळखल्यो.

आमी गेलीं तुमी गेलीं
कचे काणी गे
कचे काणी गे

तुमींशी आली बाये
कोणा लेका गे
तुमींशी आली बाये
कोणा लेका गे.

तुमंची लेक बाये
कोणा देवा गे
तुमची लेक बाये
कोणा देवा गे.

आमंची लेक बाये
गुरुदेवा, रंबेमाये
शारदे माये गे

## काजळ कुंकमाचे करण

काजळ कुंकमाचे करण
घेया हो धरतरे
माय लेके दिया हो
माय लेके दिया हो.

काजळ कुंकमाचे करण
दिनावली धरतरे
माय लेके दिनावले
हे धरतरे, मायलेके दिनावली

काजळ कुंकमाचे करण
घेया हो तुळशी
माय लेके दिया हो चांद-सुरया
माय लेके दिया हो चांद-सुरया

काजळ कुंकमाचे करण
मानवली तुळशी
माय लेक मानवली तुळशी
माय लेक मानवलो चांदसुरया

काजळ कुंकमाचे करण
घेया हो सांतेरे
माय लेके दिया हो सांतेरे
माय लेके दिया हो.

काजळ कुंकमाचे करण
मानवली सांतेरी
माय लेक मानवली सांतेरी
माय लेक मानवली.

# भांगरा करण

भांगराचे करण घेया हो धरतरे
माय लेके दिया हो वनदेवते
माय लेके दिया हो

भांगराचे करण मानवली धरतरे
मायलेके मानवली वनदेवते
मायलेके मानवली.

भांगराचे करण घेया हो सांतेरी
माय लेके दिया हो म्हाळशे
माय लेके दिया हो.

भांगराचे करण मानवली सांतेरी
मायलेके मानवली म्हाळशी
मायलेके मानवली.

## फुलांच्यो दालयो

फुलांच्यो दालयो
घेया हो धरतरे
माय लेक दिया हो वनदेवते
माय लेक दिया दिया हो.

फुलांच्यो दालयो
मानवली धरतरी
मायलेक दिनावली वनदेवता
मायलेक मानवली.

फुलांच्यो दालयो
घेया हो तुळशी
माय लेक दिया हो चांद–सुरया
माय लेक दिया हो चांद-सुरया

फुलांच्यो दालयो
मानवली तुळशी
माय लेक मानवली तुळशी
माय–लेक मानवलो चांद सुरया.

# शेंसर

तिळतांदळांचे शेंसर
घेया हो धरतरे
मायलेक दिया हो वनदेवते
मायलेक दिया

तिळतांदळांचे शेंसर
मानवली धरतरी
मायलेक मानवली वनदेवता
माय लेक मानवली

तिळतांदळांचे शेंसर
घेया हो तुळशी
मायलेक दिया गे चांद सुरया
मायलेक दिया

तिळतांदळांचे शेंसर
मानवली तुळशी
मायलेक मानवलो चांदसुरया
मायलेक मानवलो.

## कापडाची दिण्णां

कापडाची दिण्णां
घेया हो धरतरे ऽऽ
माय लेक दिया हो
वनदेवते, माय लेक दिया हो.

कापडाची दिण्णां
मानवली धरतरी ऽऽ
माय लेक दिनावली धरतरे
माय लेक मानवली.

कापडाची दिण्णा
घेया हो चांदसूर्या
माय लेक दिया हो
चांदसूर्या, माय लेक दिया हो.

कापडाची दिण्णा
मानवली चांदसूर्या
माय लेक दिनावली चांदसूर्या
माय लेक मानवली

## साळी भाताच्यो घोणयो

साळी भाताच्यो घोणयो
घेया हो धरतरे
माय लेक दिया हो वनदेवते
माय लेक दिया गे.

साळी भाताच्यो घोणयो
मानवली धरतरी
मायलेक मानवली गे वनदेवता
मायलेक मानवली.

साळी भाताच्यो घोणयो
घेया हो तुळशी
मायलेक दिया हो चांदसुरया
मायलेक दिया हो.

साळीभाताच्यो घोणयो
मानवली तुळशी
मायलेक मानवलो चांदसुरया
मायलेक मानवली.

## सोनें

अेक शेर सोने घेया हो
धरम लेकी दिया हो
धरम लेकी होय ना
अुडती किरां मोरां
जाती कमळ देशां.

कमळ देश्या गेल्या ऽ
दुरगा पडल्या खेळी
दुरिग कैशाचा ऽ ऽ
चौक मोतयांचा

चौका वयले शेंगे
हिचबरी लेंगे
हिच नार गोरी ऽ
काश्मिरची चोळी
हळदीचो अुणा
रस्मी गोणा.

घुगूंर पैंजणा
बिदूल्यो
सये बिदूल्यो.

# भंडर

अरधें भंडर घेया हो नारी
अरधें भंडर घेया हो नारी.

अरंधें भंडर नको हो नारी
अरंधें भंडर नको.

सगळे भंडर घेया हो नारी
सगळें भंडर घेया हो नारी.

सगळें भंडर नको नारी
सगळें भंडर नको.
( अशे तरेन 'णव' भंडरां
म्हणप आनी मागीर )

णव भंडरा घेया हो नारी
णव भंडरां घेया हो नारी.

णव भंडरां नको हो नारी
णव भंडरां नको हो नारी.

आमच्यो नारी
आमी केल्यो गे सवारी
तुमच्यो, नारी,
तुमी करा गे सवारी.

( सुवात बदलप )

# कुचे

हातांत कुचे, राम राजे
गरूडार बैसले
गे स्वामि
गरूडार बैसले.

हातांत झारी सेवा सारी
धरतरे मायेची
स्वामि, वनदेवते मायेची.

हातांत कुचे, राम राजे
गरूडार बैसले
गे स्वामि,
गरूडार बैसले.

हातांत झारी सेवा सारी
वनदेवते मायेची
गे स्वामि
चांद सुरया देवाची.

# असां सां रंभानों

असां सां रंभानों
देविच्या कणकानों
हो हरिची चेंडु तुमि
हुपा गे
हो हरिचो चेंडु तुमि
हुपा गे.

अेक रेग बानीन
हरिचो चेंडु आमी हुपीना गे
हो हरिचो चेंडु आमी हुपीना गे.

असां सां रंभानों
देविच्या कणकानो
हो हरिचो चेंडू तुमि
हुपा गे
हो हरिचो चेंडु तुमि
हुपा गे.

दोन रेग बानीन
हरिचो चेंडु आमी हुपीना गे.
हो, हरिचो चेंडू आमी हुपीना गे.

# न्हाण

श्री धालो गे धालो
धालांनी खेळूं येया गे धालो
आंगणी घाला पाला
कृस्ण गेला बेला
गे धालो, अंगणी घाला पाला.

धये (काळे) करडीचे भात भरडीचें
नितळ पाणी शिरवडेचे गे
नितळ पाणी शिरवडेचे गे

शिरवडे गांवचे नितळ पाणियाने
कामास्के न्हाण करा गे
कामास्के न्हाण करा गे.

रुप्याची घागर सोन्याची दोरी
देवा न्हाणवती नारी गे
देवा न्हाणवती नारी गे.

# तळयेर

हरिश्चंद्र राजा गे
हो, तळयेवर न्हाला कोणाच्या
गे, तळयेवर न्हाला कोणाच्या.

हरिश्चंद्र राजा गे
हो, तळयेवर न्हाला
धरतरे मायेच्या
गे, तळयेवर न्हाला
वनदेवते मायेच्या

## चातूर पाणी

तळियेच्या तुमा ऽ गे
कापूर कोणी धुला गे
कापूर कोणी धुला.

धरतरी वनदेवता-माया आयल्या गे
चातूर पाणी न्हाल्या गे
चातूर पाणी न्हाल्या गे.

## जेवण

सुंदरशे रान बाये
आकरिचें, आकरिचें.

धरतरे वनदेवते जेवण केलां
साखरिचें, साखरिचें.

सुंदरशें रान बाये
आकरिचें आकरिचें.

चांद–सुर्या जेवण केलां
साखरिचें साखरिचें.

वयले वयले रान बाये
आकरिचें, आकरिचें.

सर्वय देवां जेवण केलां
साखरिचें, साखरिचें.

## मळो बाये मळो

मळो बाये मळो गे हो
हळदीचो मळो गे हो
हळदीचो मळो.

त्याहीं मळचां देव ओंवळो
तेचे कपाळीं गंदाचो तिबो गे
तेचे मस्तकी मोतंयाचो तुरो गे
तेका दिलो पानाचो विडो.

## पांच वातिची पंटी

न्हंयेचे देगिची गे
तांबडिशी माती गे
तांबडिशी माती.

कुमाराच्या राटावरी
घडयली पंटी गे
घडयली पंटी.

कापूस सूताच्यो
वळिल्यो वाती
वळिल्यो वाती.

पांच वातिचे लामण दिवो
वसुदे तुज्या हाती गे
दाखय तुज्या पती गे
दाखय तुज्या पती.

(माणार जमिल्ल्या बायलांची नावां घेवप)

# भोगिलें आयवपण

ओवाळिचें ओंवळ
वतान करपलें
वाऱ्यान झडपलें
पडलें, भूंयेवरी गे
पडलें भूंयेवरी.

हातांत काडिले
माथ्यांत माळिले
भोगिलें आयावपणगे
भोगिलें आयावपण.

सुरंगचे सुरंग
वतान करपलें
वाऱ्यान झडपलें
पडलें, भूंयेवरी गे
पडले भूंयेवरी.

हातांत काडिले
माथ्यांत माळिले
भोगिलें आयाबपण गे
भोगिलें आयाबपण.

## फुलांची झगडीं

फुलानी मददें फूल
फुलानी मददें फूल
मोगऱ्यां वास भारिगे
सके, मोगऱ्या वास भारी.

मोगऱ्यां वास भारी
वाजय श्रीहरी मुरली
मुरलीन तान भूक हरली गे
सके मुरलिन तान भूक हरली गे

फुलानी मद्दे फूल
फुलानी मद्दे फूल
आबोल्या रंग भारी
सये, आबोल्या रंग भारी.

आबोल्या रंग भारी
वाजय श्रीहरी मुरली
मुरलीन तान भूक हरली गे
मुरलिन तान भूक हरली गे

# फुलरे चांप्या

फुलरे चांप्या, फुलरे चांप्या
ताळिभर ताळिभर
खुट्टलो किशोर आमचो
झोळीभर, झोळीभर.

गुंथतली रुक्मीण आमची
वावळीभर, वावळीभर
माळतली रूकमीण आमची
मातेंभर, मातेंभर

पळयतली आवय ताजी
पळयतली बापूय ताजो
दोळेभर, दोळेभर.

# चिंचेवयच्या चिंचोणे

चिंचेवयल्या चिंचोणे
चिंच सोदित यो,
चिंच सोदित यो.
घरा आशिल्ले सरस्वते
पालव झडपित, पालव झडपित यो.

पालव लागलो शेंवते
शेंवती खुंटीत यो, शेंवती खुंटीत यो
खुटून भरिल्ल्यो दालयो
देवा पुजित यो, देवा पुजित यो

## आरत्यो गांठी परत्यो..

आरत्यो गांठी, परत्यो गांठी
निसरगांठी रे, धालो निसरगांठी
म्हारवा देव भायर सरला
साखर वाटी रे धालो
साखर वाटी रे.

दामुंदर देव भायर सरला
साखर वाटी रे धालो
साखर वाटी रे.

# तांबशेची आळ

आळ बाये आळ गे
ताबुशेची आळ गे
ताबुशेची आळ

तुळशी माया भायर सरल्या
गगनी वाजे ताळ गे
गगनी वाजे ताळ

## घाटार पावस

घाटार पडे पावस गे,
कोंकणी आल्यो झरी गे
कोंकणी आल्यो झरी गे

देवी माया भायर सरल्या,
भिजल्यो अबतागिरे गे
भिजल्यो अबतागिरी

घाटार पडे पावस गे.
कोंकणी आले लोंडें गे
कोंकणी आले लोंडे गे

सांतरे माय भायर सरल्या,
भिजले पालखे गोंडे गे
भिजले पालखे गोंडे गे.

## फुल्ली कुवारी

वयले दोंगरे गे बाये फुल्ली कुवारी
देवली सुंवारी गे
बाये धरतरी मायेची.

वयले दोंगरे गे बाये फुल्ली कुवारी
देवली सुंवारी गे
बाये वाठाऱ्या देवाची.

वयले दोंगरे गे बाये फुल्ली कुवारी
देवली सुंवारी गे
बाये बेताळा देवाची.

वयले दोंगरे गे बाये फुल्ली कुवारी
देवली सुंवारी गे
बाये तुळशी मायेची.

## देव येता

धर्तरी तुळशीमाया आयल्या गे
तुमी कशाने ओळखिल्या गे
तुमी कशाने ओळखिल्या.

तोंडांत चामळ
आनी दोळ्यांत काजळ
त्यावरी आमी ओळखिल्या गे
त्यावरी आमी ओळखिल्या.

रवळनाथ देव आला गे
तुमी कशाने ओळखिल्या गे
तुमी कशाने ओळखिल्या.

नेसूंक जोडो आनी बसूंक घोडो
त्यावरी आमी ओळखिला गे
त्यावरी आमी ओळखिला

# पालखी

बोणे बाये बोणे तांबड्या
माडाचे बोणे
अनंताचे पालखेक रेशमाचे गोणे.

बोणे बाये बोणे तांबड्या
माडाचे बोणे
वाठाऱ्याचे पालखेक रेशमाचे गोणे.

बोणे बाये बोणे तांबड्या
माडाचे बोणे
सरवय देवाच्या पालखेक
रेशमाचे गोणे.

लसूण बाये लसूण बाजारी लसूण
सांतेर गेल्या रुसून
हाडा तिका पालखेत बसून.
लसूण बाये लसूण बाजारी लसूण
सरवय देव गेले रुसून
हाडा तेंका पालखेंत बसून.

## आंबो चंवरानी धोले

दारांतलो आंबो गे
चंवरानी धोले गे
चंवरानी धोले

धरतरी वनदेवता माया आल्या गे
प्रसादार बोले गे
प्रसादार बोले

## आंब्यार आंबो वणकलो

आंब्यार आंबो वणकलो
ताजो घोडो रे, लचकलो
घोडयार बशिल्लो दामुबाब आमचो
शेलो रे विसरलो
ताजो, शेलो रे विसरलो.

आमलेर आमली वणकली
तिजी पालखी लचकली
पालखेंत बशिल्ली
शांतादुरगा आमची
साडी गे विसरली
तिजी साडी गे विसरली.

# रथ

सात तिनशे गुडयो
रथा तुज्यो दाणयो
रथांत कोण देव बसे गे
रथांत कोण देव बसे गे.

रथांत बसे धरतरी माया
वनदेवता माया,
जन लोकां दिसे.
खेळाचे माणिले फासे गे
खेळाचे माणिले फासे गे.

## तळ्यांतली दाणय

तळ्यांतली दाणय
तळ्यांतली दाणय
तळे पेंवता रे धालो
तळे पेंवता.

तुळशी मायेचो रथ येवन
माणार खेळता रे धालो
माणार खेळता.

तळ्यांतुली दाणय धालो
तळ्यांत फिरताली रे धालो
तळ्यांत फिरताली.

निरंकारा रथ येवन
माणार फिरतालो
माणार फिरतालो रे धालो
माणार फिरतालो.

## देऊळ

खण कुदळे खण कुदळे,
मण भर माती ऽ
मण भर माती.
धरतरे वनदेवते देऊळ बांदला,
मदयाने राती ऽ
मदयाने राती.

हिरे बाये हरे गे,
न्हंयचे देगेचे हिरे ऽ
न्हंयचे देगेचे हिरे.
धरतरे वनदेवते, देऊळ बांदला
सोनियांचे चिरे गे ऽ
सोनियांचे चिरे गे.

पावस पडे, पावस पडे,
ओथांबे थेंबे ऽ
ओथांबे थेंबे.
धरतरे वनदेवते, देऊळ बांदला,
रतन खांबे ऽ
रतन खांबे.

पणती बाये पणती
आयावैली पणती
सर्वंय देवांचे देवळांक
सोन्याच्यो वंटी.

वाट्यो बाये वाट्यो गे,
खोबऱ्याच्यो वाट्यो
खोबऱ्याच्यो वाट्यो
धरतरे वनदेवते देऊळ बांदला,
सोन्यांच्यो पाट्यो ऽ
सोन्यांच्यो पाट्यो.

आशे बाये आशे गे,
साळी भाताचे आशें
साळी भाताचे आशे
अनंता देवा देऊळ बांदला,
सोनियाचे वाशे गे,
सोनियाचे वाशे

अण्ण्यो बाये अण्ण्यो गे,
सुपाच्यो अण्ण्यो गे,
सुपाच्यो अण्ण्यो
अनंता देवा देऊळ बांदला,
सोनियाच्यो कण्ण्यो गे,
सोनियाच्यो कण्ण्यो

कळे बाये कळे गे, मोगरेचे कळे गे,
मोगरेचे कळे

अनंता देवा देऊळ बांदला,]
सोनियाचे नळे गे,
सोनियाचे नळे

वैले वैले रान बाये अुसकेचे
अनंता देवा देऊळ बांधला बसकेचे

वयले वयले रान बाये,
गेळयेचे, गेळयेचे
कालभैरंवा देऊळ बांदलां,
माळयेचे, माळयेचे

वयले, वयले रान बाये,
फळसाचे, फळसाचे
कामाक्षेक देऊळ बांधला,
कळसाचे, कळसाचे

नारळ बाये, नारळ गे,
साष्टीचो नारळ गे,
दामुंदरा देऊळ बांदलां,
काश्याचे मारग गे,
काश्याचे मारग

काजु बाये, काजु गे, गोयांच्यो काजु
धरतरे वनदेवते देऊळ बांदला,
भांगराचे पाजु गे
भांगराचे पाजू.

खयरी कांतल्यो, खयरी कांतल्यो
खयरीचे केले दरवज गे
खयरीचे केले दरवज.

दरवाज्यावर उबो धरतरी माय,
हातीं झेले, फुलाचे गे
हाती झेले मोतयांचे.

खयरी कांतल्ल्यो, खयरी कांतल्ल्यो
खयरीचे केले दरवज गे
खयरीचे केले दरवज.

दरवाज्यार अुबो अनंत देव
हातीं झेले फुलांचे गे
हाती झेले फुलाचे.

## कातयांतलो पावस

पावस पडे पावस पडे, कातयांत
धालो कातयांत.
दामुद्दरा देऊळ बांदलां, रातयात
धालो रातयांत.

आशे बाये आशे गे,
साळच्या भाताचे आशे गे
साळच्या भाताचे आशे.
दामुद्दरा देऊळ बांदलां,
रयतां पाठविले वाशे गे
रयतां पाठविले वाशे.

हाडले वाशे घातिले आंगणीं
देअूळ बांदलें पाशाणी गे
देअूळ बांदलें पाशाणी गे.

भोंवर बांदलो रूप्याचो गे बाये
भोंवर बांदलो रूप्याचो.

कळस बांदलो सोन्याचो गे बाये
कळस बांदलो सोन्याचो.

अंतरपाटाच्यो रेगो गे बाये
कोण ओलांडून गेला गे बाये
कोण ओलांडून गेला.

भिडेकार देसाय गे बाये
ते बसले देवांच्या सभेक गे बाये
बसले देवांच्या सभेक.

( काणकोण )

## फांत्यार सपन

शिले भाल्याचे, पटे दाल्यांचे
फांत्यार सपन जाले गो हिराय
फांत्यार सपन जालें.

अुठ, अुठ, अुठ देवानों
सपन सांगतां.
देवानों सपन सांगतां.

गाअीच्या गोठनार मोरूले पाडे
सपनी देखिले देवानों, सपनी देखिले.

गायचे गोठनार मोरूले पाडे
ते तुगेले देर गो हिराय
ते तुगेले देर गो.

बांयचे टांकार केळिचें वन
सपनी देखिलें देवानों,
सपनी देखिलें.

बांयचे टांकार केळिचें वन
ते तुजे धन गो हिराय
ते तुजे धन गो.

ऱ्हंयेंचे देगेर अमरुत मुदी.
सपनी देखिली देवांनों,
सपनी देखिली.

न्हंयेचे देगेर अमरुत मुदी
ती तुजी मांय गो हिराय
ती तुजी माय गो.

( काणकोण )

# मुदी

तांबडे चिकाची मुदी गे
विसणू तुज्या हाती गे
विसणू तुज्या हाती
मडगाव सान भयण येती
गळचां खेम घेती गे
गळचां खेम घेती

गुळमभर गंद
विसणू तुजे अुटये
चाल केली मटये
आतां भयणीच्या

भयणी ओपोंव जात्या
विसणुदास शाऱ्या
फुडल्या पेण्या गांव देशा रे
फुडल्या पेण्या गांव देशा रे

वयर वयर दोंगरी
खयरी खयरी रुख
ते रुख, काडिले कोण जाणटचानी गे
ते रुख, काडिले कोण नेणटचानी

# आमुये

आमचो आमुयो रुजवत सो घातलो
तुमच्या मोरुल्या जतन करा गे
तुमच्या मोरुल्या जतन करा गे.

आमच्या मोरुल्या पाखांशीं फुटल्यां
अुडोंकसो शिकला
तुमच्या आमुल्या जतन करा गे
तुमच्या आमुल्या जतन करा गे.

आमचो आंबो काणाक सो गेला
फुलोंकसो लागला
चंवरोकसो लागला,
तुमच्या मोरुल्या जतन करा गे
तुमच्या मोरुल्या जतन करा गे.

आमुचो मोरुल्यो अुडोंक सो शिकला
ताळयेन ताळी भोअुंक सो शिकला
तुमचो आंबो जतन करा गे
तुमचो आंबो जतन करा गे

आमचो आंब्रो पिकांक सो लागला
झडोंक सो लागला
तुमच्या मोरुल्या जतन करा गे
तुमच्या मोरुल्या जतन करा गे,

आमचो मोर खांवक सो शिकलो
तुमचो आमयो पाडुन घेया
तुमचो आमुयो पाडुन घेया.

रूप्याची गोफ़िण सोन्याचो चेंडु
आमचो हरि,
आमचो पाडूंक गेला गे
आमचो पाडूंक गेला गे.

पयलो पाडो पाडा गे
धरतरे मायेचे भेटे धाडा गे
वनदेवते माये भेटे घाला गे.

रूप्याची गोफिण सोन्याचो चेंडु
आमचो हरी,
आमयो पाडूंक गेला गे
आमयो पाडुंक गेला गे:

पयलो पाडो पाडा गे
देवते माये भेटे धाडा गे
देवते माये भेटे धाडा गे.

देवते माये भारी धुवाळो
दुदा कुंवाळो
सये रांद्रियलो रांदियलो.

# मोरूलो

आज मोर खंय खंय
संवरण पिकलां थंय थंय

आज मोर हिरी हिरी
हागलो बामणाले खिरीं खिरीं

आज मोर कात्रां
हागलो बामणाल्या धोत्रां

आज मोर चोणणां
हागलो बामणाल्या फोणणां

आज मोराची कळपुटी
शिक्यार थंयल्या नळकुटी

× × ×

हाय रे मोरा हाय रे तूं
करवता दोंगरार जाय रे तूं
जाय रे तूं

लक्षुमबायलो अुंच घोडो
फेर घालूं जाय रे तूं
दांडिबालान जाय रे तूं
दांडिबालान जाय

समुद्राली अुंच घोडो
फेर घालू जाय रे तूं
फेर घालूं जाय

## साळुक बाळुक

साळूका बाळूका
दिवचें क़ोणा घरा
दिवचें कोणा घरा

साळूका बाळूका
दिवचें भटा घरा गे

दिवचें भटा घरा
दिवनाका आई मला भटाचे घरा
भटाचे घरा
शेण सारयतना जल्म जाय गे
जल्म जाय

साळुका बाळुका
दिवचें कोणा घरा
दिवचें कोणा घरा

साळुका बाळुका
दिवचें वाणया घरा गे
दिवचें वाणया घरा

दिवनाका आई मला वाणयाचे घरा
वाणयाचे घरा
आयदना घासतांना जल्म जाय गे
जल्म जाय

साळुका बाळुका
दिवचें कोणा घरा
दिवचें कोणा घरा

साळुका बाळुका
दिवचें राजा घरी गे
दिवचें राजा घरा

दिवनाका आई मला राजाचे घरा
राजवाडो चलयताना जल्म जाय
जल्म जाय

( अशे तरेन, शेट, बामण,
चांमार, म्हार...
खंयच दिंव नाका म्हणता
सगळीकडे त्रास
पेरण्यागेर मात सूख ! )

साळुका बाळूका
दिवचें कोणा घरा
दिवचें कोणा घरा

दिवचें दिवचें पेरण्याचे घरा
दिवचें पेरण्यां घरा

नाड्यावयर चडून, भले भले करा
भले भले करा

# वळेरा

कांकण कारा वळेरा
तुजी, बायल गेली कुळारा
तुजी बायल गेली कुळारा.

वचुनी तिका, वचुनी तिका
तांबडी साडी नेसुनी तिका
तांबडी साडी नेसुनी.

तांबडी साडयेच्यो मिरयो
लांब मिरयो
चक्क चोळयो
सरपळी
चक्क चोळयो सरपळी.

साडे आशिल्ली काडी
भिजलो तिजी साडी
भिजली तिजो साडी.

## तुळस

हाडा अेक कुदळ, काडा अेक धेपा
तितू रोवा रोपा, तुळशीचा.
रुपयाची घागर, सोनियाची दोरी
तुळशी शिपती नारी, पाच जाणी.

# भट

अुदक न्हावता भटा बिरामण
सुरया नारायण

गंद से कडिता भटा बिरामण
सुरया नारायण

गंद से काडिलां भटा बिरामण
सुरया नारायण

गंद से लायता भटा बिरामण
सुरया नारायण

पुजा सी करीता भट बिरामण
सुरया नारायण

## घोणेशे पिलां

हांगा आसा माजें घोणशे पिल,
हांगा आसा माजें घोणशे पिल.

हांगा ना तुजें घोणशे पिल
हांगा ना तुजें घोणशे पिल.

मानशे मानशे दार काड
चिकला व्हडें लागला काय ?
हांगा आसा माजें घोणशे पिल
हांगा आसा माजें घोणशे पिल.

हांगा ना तुजें घोणशे पिल
हांगा ना तुजे घोणशे पिल

सुपा तळा धाकलेलें
वणटी वयल्यान गेलेलें
कोणी पोरान देखलेंले.

हांगा ना तुजें घोणशे पिल
हांगा ना तुजें घोणशे पिल.

## पिंगळी- १

आमी पिंगळी घाटाचे,
घाटाचे.

तांदूळ घाला आमकां भाताचे,
भाताचे.

आमी पिंगळी बोरयेचे,
बोरयेचे.

तांदूळ घाला आमकां वरयांचे
वरयांचे.

## पिंगळी- २

माडावेलो कीर बाये, शेंपडी हालयता
शेंपडी हालयता.
सवाशीणी बायले, दोळे मोडीता.
फू गे फू सये, फुगडी फू.

मागीलदारच्या पिंपळा
सुपायेदे पान,
माय गेल्या सोनारवाड्या
सून वाडयता कान.

सकाळचे पारी गे बाये
पिंगळी भोंवता दारी गे बाये
काय तरी धरम वाडा गे बाये
पिंगळी आयला वरसाचो
तांदूळ घाला खरचाचो.

( शिरोडें )

## बत्तीस पावणे

बत्तीस पावणे बत्तीस पावणे
देऊन आयल्यो देव रंभा गे

देऊन आयल्यो रंभा गे.
देऊन आयल्यो जाल्यार बरें जाल
सकयां साद तुमी घाला गे
सकया साद तुमी घाला गे.

देवाच्यो देव रंभा गे
वाटोळे अुब्यो राबल्या जाल्यार
साडी चोळी न्हेसा गे
साडी चोळी न्हेसा गे.

## होटी

जांबावले बाये घाटयेर
घाटयेर फुलऽला अेकूच कुडा
बाये फुलऽला अेकूच कुडा,

फुलला, अेकूच कुडा
रंबे आईच्या सतवानं
रंबे आईच्या सतवानं.

रंबे आईच्या सतवानं
रंबे आईची होटी भरा
रंबे आईची होटी भरा.

रंबे आईची होटी भरा
आई नेसली पितांबर
आई नेसली पितांबर

नेसली, पितांबर
मिरयो सोडिल्यो हजारभर
मिरयों सोडिल्यो हजारभर.

मिरयो सोडिल्यो, हजारभर
आई कपळीं लाय गे तिळा
आई कपळीं लाय गे तिळा.

कपळीं, लाय गे तिळा
आई लायतल्यो चोवगी जणी
आई लायतल्यो चोवगी जणी.

लायतल्यो चोवगी जणी
आई सोनेरी तुजा घुडा
आई सोनेरी तुजा घुडा.

सोनेरी तुजा घुडा
आई मोगरेचो गे कळो
आई मोगरेचो गे कळो.

( जांबावले )

# अंबाबाय

घाटाची अंबाबाय गे बाबडी
कोंकणा देंवली, अंबाबाय गे
कोंकणा देंवली.

कोंकणा देंवली अंबाबाय गे
काजळ कुंकमाची अंबाबाय गे
काजळ कुंकमाची अंबाबाय गे
काजळ कुंकमाची.

घाटाची अंबाबाय गे बाबडी
कोंकणा देंवली, अंबाबाय गे
कोंकणा देंवली.

कोंकणा देंवली अंबाबाय गे
फुलां चामळाची अंबाबाय गे
फुलां चामळाची.

घाटाची अंबाबाय गे बाबडी
कोंकणा देंवली, अंबाबाय गे
कोंकणा देंवली.

कोंकणा देंवली अंबाबाय गे
साडये चोळयेची अंबाबाय गे
साडये चोळयेची.

# जोगवा

अंबे जोगवा, जोगवा मागेला.
पाय भरिले, भरिले सलमुदीयानी
पाय भरिले, भरिले पायजणानी
कम्मर भरिलें, भरिलें रशेनानी
कम्मर भरिलें, भरिलें सायरपटचानी
हात भरिले, भरिले कांकणानी
गळा भरिला, भरिला गळसरियांनी
भांग भरिला, भरिला मोतियांनी
दोळे भरिले, भरिले काजळानी.
नाक भरिलें, भरिलें मोती बाळीयानी
कान भरिले, भरिले कुंडलानी
कप्पळ भरिले, भरिले कुंकमानी
आई माजी न्हेसली, न्हेसली पितांबर
आई माजी चडली चडली घोडचावयर
आई माजी देवली, देवली सडचावयरन
आई माजी चालली,
चालली कोलापुरा
आई माजी देवली, देवली कोलापुरा.

# गोणे

सावकु बावकुल्यो चोवगी मेळयल्यो
बाप्पा घरचे पांच गोणे
मावळच्या घरचे पांच गोणे
धाय गोणे भुंय दवरा
सगल्यो बायलो फुलां माळा
धाय गोणे वयर काडा
सगल्यो बायलो दिमी घेया
गोणे काडा दिम्नी सोडा

## धरम लेयेक

सदां सदां येतालीं
आमी धरम लेयेक दितालीं
आमी धरम लेयेक दितालीं.

आयच्यान धालो सोपयाल्यो गे
आयच्यान धालो सोपयाल्यो.

# शेणाचो कालो

शेण शेण कालयता
शेणाक पडले किडेरे धालो
शेणाक पडले किडे.

आमच्या माथ्यार फुलां झेलो
धालाच्या माथ्यार शेणाचो थापो
आयच्यान धालो सोपयाल्यो
आयच्यान धालो सोपयाल्यो.

(अेकामेकांची खेम घेवप)

# गंद

शेळे आंगाशी काडियले गंद
बालपणीचो छंद रे किस्णा
बालपणीचो छंद.

धंया दुदान भरियली वाटी
धंया दुदान भरियली वाटी
आवड म्हाकां मोटी रे किस्णा
आवड म्हाकां मोटी.

# धोले दोग नाग

रोयणीच्या भुंयेरी
धोले दोग जाण नाग गे
धोले दोग जाण नाग गे.

धोले तशे झेले गे
तेचे मस्तकी मांडी दोळे गे
मस्तक़ी मांडी दोळे गे.

तळयेच्या काठीं
मांडिली चेंडु फळी गे
मांडिली चेंडु फळी.

देव नाचत आयले गौळणी गे
देव नाचत आयले गौळणी.

# कांकण-पाटल्यांक लागला लोणी

कांकण-पाटल्यां लागलां लोणी
खेळताल्यो गे गवळणी.
बांय बनली बानावळी गे
तळय बानली सपणी गे

तळय बानली सपणी गे.
कांकण-पाटल्यां लागलां लोणी
खेळताल्यो गे गवळणी.
खेळताल्यो गे गवळणी.

# किस्णाचो खेळ

सांखळेच्या पाटचार किस्णान
खेळ रे माणिला
किस्णान खेळ रे माणिला.

पांयातले झंझर किस्णान
थंय रे वगडयलां
किस्णान थंय रे वगडयलां.

सांखळेच्या पाटचार किस्णान
खेळ रे माणिला
किस्णान खेळ रे माणिला.

पांयातले घागर–पाट तेणे
थंय रे वगडयला
किस्णाण थंय रे वगडयला.

(सोलकडीं, मुदी, बुगडी
बी वस्तींची नांवा घेवप)

# गायतरी

गायवन गायतरीचे दोके
केळीची मके रे किस्णा
गायवन गायतरीचे पोट

कापसाची मोट रे किस्णा
गायवन गायतरीचे कान
पिंपळा चेपान रे किस्णा

# आटोळे पिटोळे

आटोळे पिटोळे गे
वाटेर घोंटीर बांदु नाका गे
वाटेर घोटीर बांदु नाका.

विकासा आमचो दास रे
पिटुकळेक मारी फास रे
पिटुकळेक मारी फास.

## सात समिंदरा भायर

सात समींदरा भायर,
अेक कांदळीचे झाड गे.

सवशीणी नारी आमी,
कांदळा खुंटू गेल्या गे.

हातींत फणी तेज्ये,
फांटीर विणी गे.

हुबंऱ्यार बसोन नार,
काय चिंता करी गो.

म्हायेरा वयता नार,
वांगड सोदी गो.

## खोताचें नांव

बांय बांदली चिरे बंदी
ती तळय बांदली पाशाणि गे
तळय बांदली पाशाणि गे.

अुदक काडतल्या बायानो
हे मारगाचे नांव काय सांगा गे
मारगाचे नांव काय सांगा गे.

मारगाचे नांव निट्ट मारग
तुमच्या खोताचें नांव काय सांगा गे
तुमच्या खोताचें नांव काय सांगा गे.
खोताचें नांव दामुद्दर खोत,
ताणे सोडिलो गांठिचो दाम गे
ताणे सोडिलो गांठिचो दाम.

बाये ताणे रचिलो
'मडगांव' गांव गे
ताणे रचिलो मडगांव गांव गे

( काणकोण )

## तीळ बाये तिळीये

तीळ बाये तिळीये, राना वनी तिळी.
त्याय गे तिळाची, पिकली गे पानां
आडुळी वाहीन, सकयांवयर शिंपन
भुमि माये न्हेसयन, गवर पूजे लाओीन

## शेवत्यां मोगऱ्या बाजार

शेवत्यां मोगऱ्यां बाजार भरला
पंडरपूरा कालो जाला
रंभामाया हांडूं गेल्या.

जायां जुयां बाजार भरला
पंडरपूरा कालो जाला
कुंकळकान्न हाडूं गेल्या.

कापडां–खणा बाजार भरला
पडंरपूरा कालो जाला
शांतादुर्गा हाडूं गेल्या.

भांगरा शिंगरां बाजार भरला
पंडरपूरा बाजार भरला
सरवय देवत्यो हाडूं गेल्या.

# भो जालो अुशीर

माळयाच्या मळार फुल्लें अेक  केंसार
भो जालो अुशीर
आमगेल्या रंभा बायांक

माळयाच्या मळार फुललो अेक कळो
आदी करा तिळो
आमगेल्या रंभा बायांक

माळयाच्या मळार फुललें अेक आबोले,
रंभा भोवतणीं सोबले,
रंभा भोंवतणी सोबले

माळयाच्या मळार फुललें अेक शेवंते
रंभा भोवतणी परमळे,
रंभाभोवतणी परमळे.

## कचे फुगडी

१ कचे बाये कचे
वल्लीभर कचे
आमच्या गणपती
भांगराचे मोचे

२ बोरां बाये बोरां
वल्लीभर बोरां
आमच्या बराबर खेळूंक येयल्या
खारव्याली पोरां

३ माजे व्होटयेंत शेवटो
...... घोव ल्हेंवटो

४ माजे चुली वयर पापड
...... घोव माकड

५ भल्या कळश्यार थेयली शिपी
भल्या कळश्यार थेयली शिपी
...... घोवाची जयळी मिशी

६ फस्काची काडी पेटना पेटना
मैत्रीण म्हाका भेटना भेटना
फस्काची काडी पेटली पेटली
मैत्रीण म्हाका भेटली भेटली

७ धालांच्या माणार अुजवातींचो वास
अुजवातींचो वास
.......... घोव दिसता फस्कलास

# झंपाचो खेळ

यो गो रंभानो झंपानी खेळो
तळा बांय आसा
रंभाची फुगडी घाल धाडाधडी
भावभयणिन बांद बांदयाल्यो
बांदयाल्यो

इल्ली इल्ली दावकी कासारान घेतली
वाटेर घेतली
येयल्यो गे, येयल्यो गे
पांयाच्यो घागऱ्यो दिसता बऱ्यो

( काणकोण )

## मळणीच्या मळ्यां

मळणीच्या मळ्यां, फुल्ल्या अेक पात
भोव जाली रात आमच्या देवराया

मळणीच्या मळ्यां फुलली केसरां
हाडी केसरां आमच्या देव रंभा गे
हाडी केसरां आमच्या देव रंभा गे

## देवाच्या रंभा आमी

आमी नेंटीं नेणेरा
आमी शेव मांडला
देवाच्यो रंभा आमी
मांडार शेवोक येयल्या
देवानी धाडल्यो रंभा बाये
माटवा अुब्यो रावल्या

( केपें )

# रोपी लायली

रोपी लायली
रोपी लायली लिंबीणीची
आळें धरिऽले साखरीचे
शिपणे शिप्पले दुधाशिपणे
लिंबू लागऽले देटान देट
लिंबू काडिले ताटभर
लिंबू धाडिऽले देवाभेटे
बांय मारिऽली चिरप्याघरी
पाणी पाडिऽले पाऊलभर
पाणी काड़िऽले गाड़ीवर

## वाटेवयलो दिवो

वाटेवयलो दिवो, लवलव जाता
लवलव जाता, जाल्यार सुरया
बसला रता
देवतेचो पालव रेशमाचो
देवता म्हणटा, पालव आपलो
भांगराचो

वाटेवयलो दिवो, लवलव जाता
लवलव जाता, जाल्यार धरतरी
बसली रता
देवतेचे पालव रेसमाचो
देवता म्हणटा, पालव आपलो
भांगराचो.

## कांचन साडी

न्हेसली कांचन साडी । न्हेसली कांचन
साडी वो राया
न्हेसली कांचन साडी
चडली सुरंगे झाडार । चडली सुरंगे
झाडार
चडली सुरंगे झाडार वो राया।
खुटिले सुरंगे कळे
गुथिले सुरंगे कळे वो राया। वाहिले
रामनाथ देवा ।।१।।

न्हेसली कांचन साडी। न्हेसली कांचन
साडी वो राया
चडली मोगरे झाडार।
चडली मोगरे झाडार वो राया
खुटिले मोगरे कळे। गुथिले मोगरे
कळे वो राया
वाहीले दामोदर देवा ।।२।।

न्हेसली कांचन साडी । न्हेसली कांचन
साडी वो राया चडली आबोले झाडार।
चडली आबोले झाडार वो राया।
खुटिले आबोले कळे । गुथली आबोले

कळे वो राया
वाहीले कामाक्षीमाये ॥३॥

न्हेसली कांचन साडी । न्हेसली कांचन
साडी वो राया चडली जाये झाडार
वो राया चडली जाये झाडार । खुटिले
जाये कळे । गुथिले जायें कळे वो
राया
वाहीले रामनाथ देवा ॥४॥

न्हेसली कांचन साडी । न्हेसली कांचन
साडी वो राया चडली शेंवते झाडार
वो राया चडली शेंवते झाडार ।
खटिले शेंवते कळे ।
गुथिले शेंवते कळे वो राया
वाहीले मंगेश देवा ॥५॥

( मंगेशी )

## नेण्टेली सीता

नेण्टेली गे बाअी सीता
सीता गेली न्हंयी व्हाळार
सीते मेळला धनुष्यबाण
सीतेने बाप्पाला साद केला
साद वाऱ्याने झिडपिला
सीतेन दुसरा साद केला
साद धुल्लाच्या मार्गी गेला
सीतेन तिसरा साद केला
साद बाप्पाच्या कानी गेला
बाप गुडगुड्या अुठला
धुवे, कसले सकंश्ट आलां
बाप्पा मेळला धनुष्य बाण
धुवे दवर गे तुळशी पेडयेर
धुवे कर गे गंध फूल.

(वळवय)

# मोती शेणलें

हांगा माजें, मोती शेणलें
   शेणलें जाल्यार सोडून काड
हांगा माजें कांकण शेणले
   शेणलें जाल्यार सोडून काड
हांगा माजी पिली शेणली
   शेणली जाल्यार सोदून काड
हांगा माजी मुदी शेंणली
   शेणली जाल्यार सोदून काड
हांगा माजी गळसरी शेणली
   शेणली जाल्यार सोदून काड.

(बळबय)

## अण्टया पाऊण शेरा

अण्टया पाऊण शेरा
माज्या मायेच्या नी रे भावा
पेटेन आशिल्लो एकुच गांच
त्या गांचाला मारीन गांठ
या जीवाचा करीन घात
या मामीच्या तरासानी
या भावाच्या वैदासानी
पानार बसल्यार पडना पेज
म्हाकां लोकाची दिसता लज
या देराच्या तरासानी
या नण्णेच्या वैदासानी

# मांव बाओी कसा गे

मांव बाओी कसा गे
मांव बाओी कसा गे
भाटीवयलो केलदो कसो गे
मांय बाओी कशी गे
मांय बाओी कशी गे
खडपा पोंदली कुल्ली कशी गे
देर बाओी कसा गे
देर बाओी कसा गे
खानार कोणो म्हार कसा गे.
जाव बाओी कशी गे
जाव बाओी कशी गे
खाकेक वल्ली म्हारीण कशी गे.
तो बाई कसा गे
तो बाई कसा गे
माथ्याक तोपी देसाय कसा गे.
ती बाई कशी गे
ती बाई कशी गे
पांयार मोरी देसायण कशी गे.

(वळवय)

## हाडिले गे पडभर गंवू

हाडिले गे पडभर गंवू
अशे दळिले गे घांटी–दात्यार
भाजील्यो गे णवू रोटयो
असा भायर नीगे भाऊ आला
जायांचेर गे पडला लागू
असा अुप्पाशी गेला भाऊ
तळपटचा गे सडयावरी
असा त्याचा नीगे जीव गेला
मांयी रडे सुनेपाशी
असा मांव रडे संसाराला
जीव करी कटा कटा
असा देर म्हणे माती लोटा

# दरयाचे देगेर

दरयाचे देगेर, चानी बांदी घर
देर गेले वयर, शिकारीक
दरयाचे देगेर, दूवरी दूवरी
राया गेले वयर, कुवारी
म्हातारेची खोपटी, दाण्यान धपटी
गौळण बाबडी कापड न्हेस

## इल्लीशी दिवली

इल्लीशी दिवली, कासरान् पेटली
वाटेर भेटली अंबाबाओी गे
इल्लीशी दिवली कासरान पेटली
वाटेर भेटली म्हालक्षुमी गे
इल्लीशी दिवली कासरान पेटली
वाटेर भेटली कामाक्षी गे

## राम-सिता

राम लक्षुमण सीता तिगांजाणां
धाडिली तिगांजाणां अंटग्या वनांत
पावली तिगांजाणा अंटग्या वनांत.
बनांत तीनी गुंफा बांदिली
गुंफा बांदूनी ती खेळू बसली.
खेळतां खेळतां सीता पास विसरली
तुजे चित्त नारी गेले कोणावरी.
माजें चित्त स्वामी गेले मिरगावरी
मिरगाची कांचोळी हवी आमासी.
मिरगाचे कांचोळे येता वास
सुवरणाची कांचोळी देतो तुमास.
मिरगाची कांचोळी नाहो कोणा अेका
सुवरणाची कांचोळी आहे सरवय लोकां
धनु बाण घेवून राम बाहेर सरला
राम चाले फाटी मिरग चाले फुडे.
मिरगाचेर रामान बाण सोडिला
मिरग अुसळून पडले केगदी वनांत.
मिरगाचे नाक दोळीं आंसू वांहू लागले
जय राम श्रीराम मिरग बोलूं लागले.
तो शब्द पडला गे सीतेच्या कानीं
धांव देरा लक्षुमणा बंधु पडले वना.

माज्या बांधवा मारीसारखा नाही
तिरभवना
गोरी गोमटी नार तुज दिसली वना.
अस्तुरी करीन म्हणून चिंताले मनांत.
हाडिले रानांतली राक
वाहिली गुंफे भवती राक
गुंफे भायर सरशी सीते रामाच्या धांवी
लंकेचा रावण भिक्षेसी आला
वाड सीते भिक्षा म्हणून सादसो केला.
आमी खातो कानामूना तुमा काय वाढुं
सुवरणा ताटा घालुन आणिले
कानामुना
अेक पाय बाहेर गो अेक पाय भीतर
वाडता जाल्यार वाड सीते अेकाच मनी
दोन मनी धर्म तुजा नको आमासि
नाही जाल्यार सीते तुजे सत्त्व ताळितो.
धर्म करपा सीतेन पाय भायर काडिला
धरली बांदिली खांद्यार बांदिली.
रावणाने सीता लंकेस नेली
रावणाने रीता लंकेस नेली

( सावय वेरे )



# उमाण्यांनी नावां

१) झिरी मिरी झिरी मिरी पावस पडे
आंगणांत किल्लला रोव
सांगणे आयकना ............ म्हजो घोव.



२) पोके पणसाक दिख चड
............ म्हज्या राग चड.



३) वयल्या रानांत फुल्ल्या पत्री
............ राव आमचो गांवचो मंत्री.



४) मागीलदारचे मान्ने
चिऱ्यांनी बांदले
............ राय करता ते
म्हाका मानले.



५) पात बाये पात
ब्रांय कडली पात
'रामसिता' न्हांवक गेली
थंय जाली रात.



६) हाताच्या कांकणाक घिसी मिसी तास
........... नांवार केल्या माणकां मोतयां रास.



७) वयल्या रानांत फुलल्या पत्री
........... हातांत मोतयांची सत्री.



८) द्राक्षाच्या वेलीक त्रिकोनी पान
........... नांव घेतां, राखतां वडलांचो मान.



९) फोण्या जालें नाटक
मडगांवची वरदी
........... नांव घेतां
करुं नाका गरदी.



१०) गलासांत गलास
मावाड्यां पावातासर
........... जाले हजार रुपये खलास



११) लालन केले आइन
पालन केलें पित्यान
........... नांव घेता पतनीच्या नात्यान.

१२) विठोबाच्या देवळांत
निरंजनाची जोडी
.......... नांव घेता
तुमच्या आगऱ्या साठी.



१३) दाळचें केलें पिठलें
तांतून घालें खोबरें किसून
.......... राव गेला रुसून
हावें खालें चाटून पुसून.



१४) हिसपान जाली चूक
.......... हातान कायदयाचें बूक



१५) डाळींबी कांकणांक लायलां गज्जन
फोणेचे गांवांत .......... सज्जन.



१६) इंग्लीशीत चंद्राक म्हणटात मून
.......... नांव घेतां वेरेंकाराली सून.



१७) साखरी फाडो गोडा लेपण
.......... वता थंय देवा राखण.



१८) काळे कापड बाबूचे दाणयेर
बाय खेयटा .......... माणयेर.

१९)  काळचो पिड्डुको गळेभर
............ पळेन दोळेभर.



२०)  रोप पाताळी सुर्य सर्गी
............ आयुश्य जांव म्हण दितां अर्गी.



२१)  लांब न्हेसण मानेर खोंचण
............ बरोबर पंडरेक वचन.



२२)  पांचशे नाल्लां हजार वाटी
............ भोवतणी भुरग्यां दाटी.



२३)  पावस पडटा पावळी गळटा
............ माणयेर भुरगें खेळटा.



२४)  पणसाच्या झाडाचो पणस काडलों कोंचून
............ रावाचे नांव घेता पलंगार बसून.



पौश म्हयन्यांतली पुनव धरून कृस्ण सस्टी मेरेन धालो उत्सव मनयतात. खंयचोय अेक बुधवार वा आयतार धरून माणांक उबीं रावतात.

धालांक परंपरा आसता. धालांचो माण एकाच जाग्यार उरता. कित्याय कारणाक लागून धालो खेयळिनात जाल्यार मात तरी भोगावळ करुंकूच जाय ! निदान ते जाग्यार एकरात तरी दिवली पेटवकच जाय.

कांयकडें गांवचो जल्मी वा गांवचो वांगडी देवाक नाल्लां–तांदळाची तळी उकलासून दवरता. पाटार एक दिवली पेटवन दवरता. म्हऱ्यान विडो, चुडो, गोड, केळीं दवरता. तीळ, गंद, काजळ–कुंकवाच्यो अक्षता वाडटा. गाराणे घालता. गांवचे वतीन गांवचे बरें जावचे म्हूण मागता. जमिल्ली बायलां 'हय सायब' म्हुण होंरायतात आनी दिवलेर अक्षता उडयतात. आनी–

" आमी दाव्या हातान केलां
तूं उजव्या हातान मानून घे... "

अशें देवाकडे राखणेचे मागणे करतात. मागीर हळद–कुकूम जाता. गंदाचे तिळे लायतात...

---

कोंकण टायम्स, पब्लिकेशन,
बेती, बार्देश, गोंय.

---